

॥ श्रीसत्यनारायण नमः ॥

॥ न मे भक्तः प्रणश्यति ॥

श्रीमद्भगवद्गीता

# ॥ श्री सत्यनारायण कथासार ॥



(ग्रंथकर्ता)

कोंकणि कवि श्री. नरहरि विठ्ठल प्रभु, गोवा



मोल १ रुपयो

इसवी १९८२

# -सुरुवार्तिचि दोनि उतरं-

ह्या संसारातुं सर्व स्त्रीपुरुष स्वताःच्या सुखापसावत रातदीस धडपडून त्रास काडताति. पुणि क्षणभंगुर सुखापरस चडदुःख ह्या प्रपंचांतुं येताति ह्यो अनुभव मात्र सगळयांक आस. जो तो आपण्याकई ज्यास्त सुख भोगतल्यांक पळोनु मेळिल्यांत तृप्ति पावनास्तना आपण मात्र दुःखी मानून घेवनु असंतोष पावता. सारासार विचार, केल्यारि जगांतु सर्व तरेन पूर्ण सुखी कोणूचि ना आणि सगळयाले सुखदुःखाचे प्रमाण सर्वथा सारखे नाचि. कारण अनंत जन्मात करत आयिल्या वेगवेगळया पापपुण्य कर्मानुसार पुर्व संचितान तीं फळं प्राण्यांक प्राप्त जाताति हें श्रीकृष्णान गीतेत सांगलां, एवंच देवाल्या सृष्टित सर्वकडेन पळैल्यारि विषमता विना समानता दिसना. हाका विरोध केल्यारि भयंकर अनर्थ घडल्याति आनि घडत आसति हे अत्यंत शोचनीय ही दुर्दशा निवारण करुक ह्या कलियुगातुं जो सोपो उपाय श्रीविष्णुन नारदा मुखांतर कथन केल्लो तो म्हळयारि विधियुक्त अनन्य भक्ति भावान श्रीसत्यनारायणाचें व्रत करचे आनि तागेले अखंड स्मरण कर्नु मुक्त जावचें हेंचि जतमसार्थकाचें आद्य कर्तव्य कर्म आस.

थोडयांतु सांगचें म्हळयारि हें व्रत करुक सगळयांक अधिकारु आस ह्या कलियुगांतु अत्यत फलदायक हे व्रत भक्तिपूर्वक केल्यारि मनुष्याले सर्व मनोरथ प्राप्त जांवनु पाप आणि दुःखःतुल्यान पार पण्णु मरणांनंतर तो सत्यपुराक वता म्हण भगवंतान सांगलां. ह्या परम श्रेष्ठव्रताचि महिमा अति अगाध आनि अवर्णनीय आस. अगदी पुरातनकाल्ल धोनुं चलत आयिल्ले श्रेष्ठ व्रत कर्नु असंख्य लोक सुख भोगुन मुक्त जाल्यांति. आता ह्या कालाक सुद्धा अनेक लोक केवल ह्या व्रतानचि अभीष्ट मेळता ह्यो अनुभव सर्वत्र येत आशिल्लिनिमित्ति ह्या व्रताचि अभिवृद्धि उत्तरोत्तर सर्वकडेन जायत आस हें स्पष्ट दिसता. किंबहुना इहांत आणि परांत सुख दिवचें परम श्रेष्ठ व्रत हें एकचि म्हळयारि अतिशयोक्ति जायशिना.

ही सत्यनारायणाचि मूळ कथा सर्वोत्कृष्ट १५८ संस्कृत श्लोकांत निरुपण केल्या. परंतु ती भास कळनातिल्या कोंकणी आवै भाषेच्या लोकांपसावत म्हणु ही कथा आटोन केवल ११५ ओवि छंदात सार काडला तो अर्थ सर्वांक सम कळका म्हणू जाता तितले ससार रुचकर सुंदर कोंकणींत निवेदन केला.

निमाणें श्री सत्यनारायणाल्या दयेन आनि प्ररणेंन जें हें किंचित कथासार हावें रचलां तें तागेल्या दिव्य चरणकमलांक अर्पण करनु, तें सर्वांक-निरंतर उपयोगा पडूं हीचि मगेलि सविनय मागणि.

मिति आषाढ शु० १३, शके १८८७,
१०-७-६५ इसवि, श्रीक्षत्र गोकर्ण

कोंकणी भाषेचो नम्र सेवकु,
नरहरि विट्ठल प्रभु.

# श्रीसत्यनारायण कथासार

## ।। पैलो अध्याय् ।।

श्रीगणेशाय नमः।। श्री सत्यनारायणाय नमः।। श्रीमुख्यप्राणाय नम ।। श्रीगुरुभ्यो नम।। अथ श्री सत्यनारायण कथासार प्रारंभः।। एक दिसु पुष्कळ वर्सां पैलें।। शौनकादि ऋषि सगळे नैमिषारण्यांतु एकत्र जमले। तांणि प्रश्नू केंलो सूतांक।।१ इच्छित फल खंच्या व्रतान।। प्रा जाता तेचि कथन । करका म्हणु बहू हर्षांन।। मूनीकडेन मागणि केलि।।२।। विष्णुन जें सांगि नारदाक।। तेंचि सांगतां तुमका सर्वांक।। आयकयातें भक्तिपूर्वक।। म्हळें तेन्ना सुतानीं।।३ कृपा करच्या ह्या हेतून।। अनेक लोक करताना भ्रमण।। नारदु पावलो खिन्न मनान। मृत्युलोकाक तो तेन्ना।।४। असंख्य योनींत उत्पन्न जाल्लें। पूर्व कर्मानुसार पीडा भोगतले। सर्व जनांक चौंव्न नारदालें।। हृदय कळवल्लें क्षणांतु।५।। खंच्या उपायांन तांगेलें दुःख नष्ट करचो विचारु निमगक।। महायोगी नारदु विष्णु-लोकाक । वचू गेलो तत्काळ ।।६।। शंखचक्रगदा धवरू।। निदिल्या श्रीनारायणाक पळोंनु।। स्तवन करूं लागलो हात जोष्णु । ना तावळि भक्ति ।७।। रुप अगोचर वाचा मनाक।। अपरिमित शक्ति ज्या गुणनिधिक। अवस्थात्रय दूर त्या परमेश्वराक। सांष्टांग नमस्कार मगलें।।८।। आयकून नारदालि स्तुति प्रसन्न जालो तो लक्ष्मीपति । आयिल्ले कारण यथामति।। सांगूक ताणें आज्ञा दिलि।।९ ह्या मृत्युलोकांतु अनेक जन।। भो यातना भोगताति पापकर्मांन । तांगेलें क्लेश खंच्या उपाय नाश जातीत तें सांग माका।।१०। परोपकार दया करच्या प्रश्नाक।। उभय लोकांत पुण्यकारक आसा जें श्रेष्ठ व्रत हें एक।। आता आयक सांगतां तुका।।११। श्रीसत्यनारायणाचे उत्तम विधी व्रत करनु पावल्याति मोक्षसपन।। हेंचि परम सुखाचें सोपें साधन।। इच्छित फळ दित्ता तें।१२ हें वाक्य भगवंतालें आयकून।। तें कोणे केन्ना कशीं केल्ले सांका म्हणून ।। नारदान केल्या विन तिक मान दीव्न।। भगवंतान तें कथन केलें।।१३।। सौभाग्य संततिदायक।। धनधान्या अभिवृद्धिकारक।। नाश करनु सकल पापशोक । मनोरथ पूर्ण हें व्रत कर्ता।।१४। मनु भक्तियुक्त जाता जेन्ना ।। तेन्ना व्रत हें करका हाका नेमूना।। सोण्णु उच्च नीच म्हळिलि कल्पना। पूजन करका सांजेरी।।१५। ब्राह्मण आणि संबंधिकांक आपोनु।। शास्त्रोक्त पद्धतीन कल पुजुनु।। केंळि दूददूधरवो साक्रे सपाद अर्पून ।। कथा श्रवण करका मागीरि।।१६।। नंतर म नैवेद्य आरत्यो दाकोका।। तीर्थ सपाद प्रसाद सगळयांक वांटका।। दक्षिणादीव्न विप्रासंत भोज करका।। स्मरण करका सत्यदेवालें।।१७।। कलियुगांत व्रत हें केल्यारि।। मनुष्यालें अभीष्ट पू कर्ता श्रीहरि।। सांगिलि श्रीविष्णुन ही खबरि। प्रथम अध्यायांतु कथन केलां। १८।। इति सेव नरहरि प्रभुकृत श्री स्कंदपुराणे रेवाखंडे श्रीसत्यनारायण व्रतकथायां।। प्रथमोध्यायः।। हरयेन हरयेनमः।। हरयेनमः।।

# श्रीसत्यनारायण कथासार

## ॥ दुसरो अध्याय् ॥

श्री भगवान् सांगता नारदाक ॥ पूर्वि व्रत हें कोणें केलें तें आयक ॥ काशी क्षेत्रातु दरिद्रि ब्राह्मणु कोणेंक ॥ तानभुकेन तळमळतालो ॥१॥ दीनदयाळू देवनारायण ॥ वृद्ध ब्राह्मणाचे सोंग घेवनु ॥ कित्या नित्य फिरता तुं दुःख पावनु ॥ देवान निमगिलें विप्राक ॥२॥ आयक बाबा, हांव् अति दारिद्रि ब्राह्मणु ॥ नित्य भीक मागतां तळमळनु ॥ दारिद्र्य वच्चें उपायु सांग म्हणू ॥ ताणें त्या ब्राह्मणाक विनंति केलि ॥३॥ तें आयकून तो म्हांतारो ताका सांगता ॥ जो श्रीसत्नारायणाचें व्रत करता ॥ तो भव दुखांतुंल्यान मुक्त जाता ॥ मनोरथ तागेलें पूर्ण जावनू ॥४॥ त्या व्रताचि विधि पूरा सांगुनु ॥ थैंचि गुप्त जालो श्रीमन्नारायणु ॥ तेन्ना नीद भूक लक्षी नास्तना ब्राह्मणु ॥ व्रत तथारि करुं लागलो ॥५॥ उटुनु नंतर प्रातःकालारि ॥ भिक्षार्थं गेलो तो स्मरत श्रीहरि ॥ त्या दिसु मेळिल्या द्रव्यान भारी ॥ ताणें स्व-जनांसंत व्रत केलें ॥६॥ तें व्रत केलेल्या प्रभावान । मेळ्ळें ताका विपुल धन ॥ मुक्त जालो तो दुखांतुंल्यान ॥ दयेन श्रीसत्य-नारायणाल्या॥ ७॥ प्रति म्हैन्याक व्रत एकेक ॥ त्या विप्रान केलें भक्तिपूर्वक ॥ नष्ट जावनु सर्व पापदुःख ॥ तो विप्रु पावलो मोक्षाक ॥८॥ पृथ्वीचेरी जे नारायण-व्रत कर्तीति ॥ तांगेलि सर्वदुःखं नाश पावतातिं ॥ म्हणु भगवंतान सांगितलें नारदाप्रति ॥ सांगले सुतानि ऋषींक ॥९॥ भाफि व्रत हें आचरण कोणे केलें ॥ हया प्रश्नाक सूतानि पुना सांगलें ॥ एक दीसु श्रीसत्यनारा-यणालें ॥ पूजन कर्तालो तो विप्रु ॥१०॥ त्या समयारि एकलो लाकडं विकतलो ॥ तानेन अति-शय पीडित जाल्लो ॥ त्या द्विजाल्या घरांतु घुसलो ॥ भाफि कांष्टां वज्जें दवरून ॥११॥ ताणें ब्राह्मणाक नमन करनु ॥ तो कितें कर्तां ताजे फळ सांग म्हणू ॥ केल्या मागणीक मान दीवनु ॥ ताका ताणें तें कथन केलें ॥१२॥ श्री सत्यनारायण व्रत केल्यान ॥ सर्व इच्छित फल मेळ्ळें देवाल्या दयेन ॥ धान्यादिक स्त्री पूतमान धन ॥ तागेल्या प्रसादान प्राप्त जाले ॥१३॥ ताणें निवेदन केलिलें ते आयकुन ॥ लाकडं विकतलो भो हर्ष पावन ॥ तीर्थं सपाद खाव्नू शुद्ध भक्तीना कुडे चमकलो तो नगराक ॥१४॥ जळण विकून द्रव्य जं मेळता ॥ ताज्यान सत्यदेवाले व्रत करता ॥ म्हणु मनांतु करत व्रताचि चिंता ॥ बोजे घेवनु तो वतालो ॥१५॥ जैं आशिले सावकार लोक ॥ थं लाकडा वज्जे तो लागलो विकूक ॥ त्या दीसु बहु धन मेळ्ळे त्या भाविकाक श्री सत्यनारायणाल्या कृपेन ॥१६॥ केळि गोड तूप दूद रवो घेव्नु ॥ स्व-घराक आयलो तो परतूनु ॥ विप्र मित्र बांधवांक ताणे आपोनु ॥ केले व्रताचरण विधियुक्त ॥१७॥ ते व्रत भो भक्तिन केलिल्या प्रभावान ॥ मेळ्ळें ताका अभीष्ट बहूमान धन ॥ परम सुख संसारांत भोगून ॥ गेलो वैकुंठाक अंती तो ॥१८॥ इति सेवकु नरहरि प्रभुकृत श्री स्कंद पुराणे रेवा खंडे श्रीसत्य-नारायणव्रत कथाया द्वितियोध्यायः ॥ हरयेनमः ॥ हरयेनमः ॥ हरयेनमः ॥

# श्रीसत्यनारायण कथासार

॥ तिसरो अध्याय् ॥

सुत सांगताति, शौनकादि ऋषिक ॥ आदि आशिलो राजा उल्कामुख ॥ तो जितेंद्रियु सत्यवादी प्रति दिसाक ॥ विप्रांक धनदान दितालो ॥१॥ घेव्नु देवस्थानांत देवाले दर्शन ॥ भद्रशीला बायलेक बरोबरि घेवन ॥ नदी तीराचेरि बैसुन भारी भक्तीन ॥ सत्यनारायण व्रत कर्तालो ॥२॥ खूब द्रव्य घेवनु व्यापाराक ॥ वतना साधु नांवाचो व्यापारी एक ॥ होडी बांदून दवर्लि म्हयीं तीराक ॥ थैं तो पावलो अकस्मात ॥३॥ रायान व्रत करचें अवलोकून ॥ विमगिले नम्र जावनु त्या साधुन ॥ कसलें करता तें सांका म्हणुन ॥ रायाकडे विनंति केली ॥४॥ तावळि राजान सांगलें साधूक ॥ हया श्रीविष्णु व्रतान धन संतति सुख ॥ प्राप्त जावनु वांच्छित फळं अनेक ॥ मेळता भाविकांक जगांतु ॥५॥ करचि विधी सगळी आयकूनु ॥ वैश्य साधु मनांतुं हर्ष पावनु ॥ संतति सुख तरी मेळतलें म्हणु ॥ घराकडेन वचू गेलो ॥६॥ सौभाग्यवती लीलावतीक समस्त ॥ निरूपण केलो ॥ व्रताची वृत्तां . ॥ताणे संतति जाल्यारी तेंच व्रत ॥ करचो निश्चय केलो तेन्ना ॥७॥ पति सैत आनंदीत मनान ॥ ती संसारु करतास्तना क्रमेण ॥ श्रीसत्यनारायणाच्या कृपेन ॥ गुर्वीर जालि लीलावती ॥८॥ धा म्हैनें पूरायि जावन गेले ॥ कन्या रत्न तिका भो चंद जालें ॥ कलावती हें नांव तिणें दवर्लें ॥ हर्षयुक्त भारी प्रेमान ॥९॥ मागीरि संकल्पित व्रत करूक ॥ तिणें याद केलि तिगेल्या घोवाक ॥ परंतु तें विवाह योग्य समयाक ॥ करचें वचन ताणें दिलें तिका ॥१०॥ हळुहळु कलावती कन्या तदनंतर ॥ बापायल्या घरांतु वाडली भो सुंदर वरू सोदूक रोकडें एक दुताक ॥ धाडलो तेन्ना साधून ॥११॥ कांचन नगराक दूतु वचू गेलो ॥ ताणे योग्य वैश्यवरू सोदून काडलो ॥ ताका धार ओतुन कलावतीलो ॥ विवाहु केलो त्या साधून ॥१२॥ तावळि दुर्दैवाक यादि नास्तना ॥ ताणें श्री सत्यदेवाचें व्रत केलें ना ॥ देकून कोप आयलो विष्णुक तेन्ना ॥ साधुचेरि बहूभयंकर ॥१३॥ सिंधुतीराच्या रत्नसार नगराक ॥ वचून व्यापारु करतालो चोक ॥ वांगडा घेवनु तो जावयाक ॥ व्यापार धंद्यांत मग्न जालो ॥१४ त्या भ्रष्ट प्रतिज्ञ साधुक चोवन् ॥ तोका दारुण दुःख येव्वो म्हणु ॥ शापु तेन्ना दिलो भो संता-पूनु ॥ श्री सत्यनारायण प्रभुन ॥१५॥ चंद्रकेतु रायाल्या त्या नगरांतु ॥ एक दीसु चोरु रिगलो घरांतु ॥ रायालें द्रव्य चोरनु मजेंतु ॥ धन घेवनु धांवलो तो ॥१६॥ फाटि धावत येवच्या सेव-कांक चोव्नु ॥ चोर तेन्ना मनांत अतिशय भीव्नु ॥ ताणे पलायन केलें थैं द्रव्य सोण्णु ॥ रावबिल्या जाग्यारि वाणी ते ॥१७॥ थैं तेन्नांचि पावले राजसेवक ॥ धना सैत धरले त्या वैश्य दोगांक ॥ तांकां घेवन गले ते हर्षयुक्त ॥ राजा मुखारि बंद त ॥१८॥ चोरांक पळैले चंद्रकेतु रायान ॥ आयक नास्तना चोरालें भाषण ॥ राजाल्या आज्ञे प्रमाणे तांकां बांदून ॥ सेवकानि घाले कारा-गृहांतु ॥१९॥ चंद्रकेतुन द्रव्य ते वाण्यालें ॥ हरण करनु बहु त्रास तांकां दिले ॥ साधुलें घरचे धन चोरांनि लूटलें ॥ श्री सत्यदेवाल्या शापान ॥२०॥ वाण्याल्या कुटुंब क गरिबि आयलि ॥

ान भूकेचि चिंता तांकां लागलि ॥ अन्न वस्त्रांक भीक तीं मागतालि ॥ घर घरांक वचून
ोकाल्या ॥२१॥ प्रति नित्य क्षुधेन तळमळुन ॥ कलावती फिरतालि दीन जावन ॥ सत्यदेवाचे
त करचें तें पळोन ॥ विप्राल्या घरांतु बसलि तीं ॥२२॥ कथा आयकून देवाक शरण गेली ॥
साद खावनु तिगेल्या घराक आयलि ॥ मातेन विचालें कित्या रात जालि ॥ कलावतीन उत्तर
दलें ॥२३॥ विप्राल्या घरांतु व्रत जें केल्लें ॥ ताजें सर्व निवेदन धुवेन सांगलें ॥ मागिरि आव्सून
ोयर्यांकि आरैलें ॥ व्रत केलें तें भक्ति भावान ॥२४॥ पति आनि जावंयि घराक येवका ॥
ांगले सगळे अपराध क्षमा करका ॥ अति नम्र प्रार्थना ही आयकूका ॥ लीलावतीन मार्गणि
ेलि ॥२५॥ तिगेलि दीन प्रार्थना आयकूनु ॥ संतुष्ट जालो श्रीसत्यनारायणु ॥ राजा चंद्रकेतूक
वप्नांत येवनु ॥ सांगलें श्रीसत्यदेवान ॥२६॥ प्रात:कालारि वाणी उभयतांक ॥ पैलें जैलांतुल्यान
रका मुक्त ॥ घेतिलें द्रव्य परत दीव्वन त्या वैश्यांक ॥ ना जाल्यारि नाश करतां ॥२७॥ अशें
या रायाक रात्री सांगून ॥ अदृश्य थैं जालो श्रीमन्नारायण ॥ सकाळि आपौनु स्व-जनांक रायान
ांक सांगलें तें स्वप्न पडिले ॥२८॥ देवाल्या आज्ञे प्रमाणे चंद्रकेतून ॥ दोगा वैश्यांक सोडले
ंदीतुल्यान ॥ ताणि विनयान केलें राजाक नमन ॥ अत्यंत तेन्ना खूष जावनू ॥२९॥ दैव योगान
ें दु:ख आयिलें ॥ ताजें निवारण तें देवान केलें ॥ तांका वस्त्रं अलंकार रायान दिले ॥
ापणी न्हाण जायना फुडे ॥३०॥ आदर सत्कारान तांका संतुष्ट केले ॥ घेतिल्या द्रव्याचें दुप्पट
ून दिलें तांगेल्या घराक तांकां वचा म्हळें ॥ राज-आज्ञा दिलि सेवकांनि ॥३१॥ करनु नंतर
ायाक नमस्कार ॥ भायर सरले ते व्यापारि सत्वर राज–कृपा जावनु चितातुर ॥ घराकडे ते वचु
ागले ॥३२॥ इति सेवकु नरहरि प्रभु कृत श्रीस्कंद पुराणे रेवाखंडे श्रीसत्यनारायण व्रत कथायां
ृतियोध्याय: ॥ हरयेनम: ॥ हरयेनम: ॥ हरयेयम: ॥

## श्रीसत्यनारायण कथासार

### ॥ चौतो अध्याय् ॥

सूत सांगतातित शौनकादि ऋषिक ॥ मागिरि तो साधु जामाता सहयात्रेक ॥ वचूनु थै तांणे
दान धर्म केलो विप्रांक ॥ संकट निवारण जालें म्हणू ॥१॥ होडितु घेंवनु जावंयि सेवकांक ॥
साधू भायू सरलो घराकडे वचुक ॥ भो दूर पावना फुडे तीराक ॥ नौका ताणें ती राबैलि ॥२॥
नित्य विधी करूक ते देंवले ॥ साधूक तेन्ना सन्यास्यान निम्गिलें ॥ नावेतुंभरिलें ते कसले म्हळें ॥
ताणे सांगले वाल्यो पानं ॥३॥ असत्य मर्वानि तें हासत उलैल्याक ॥ "तथास्तु" म्हणु उत्तर त्या
वाण्याक ॥ दोन्नु सन्यास रुपी देवु अखेरीक ॥ समुद्रा बेळेरि बसलो तो ॥४॥ नंतर तो साधु
नित्य कर्म करनु ॥ भारी आश्चर्य पावलो खिन्न जावनु ॥ वालि पानांनि भारीलिल होडि चोंगु
मूर्च्छित पडलो तो भुंयिचेरि ॥५॥ थोड्या वेळान तो सावध जालो ॥ पुना चिंतेन शोक भो करुं
लागळो ॥ जांवयान सांगलें शापु संन्यास्यालो ॥ लागून संकट आयलां हें ॥६॥ त्या निमित्ति

ताका वचका शरण ॥ मेळतले इच्छितार्थ तागेल्या दयेन ॥ आयकून तें जांवयालें भाषण ॥ सन्यास्या कडेन साधु गेलो ॥७॥ भावभक्तीन नमस्कार अनेंक ॥ ताणें घाले त्या कोपिष्ठ सन्या-स्याक ॥३॥ घडलेल्ले अपराध क्षमा करचाक ॥ प्रार्थना केलि हात जोष्णू ॥८॥ पुनः पुना शोक करचो पळोनु ॥ ताणे ताकां सांगलें रणा का म्हणु ॥ देवाल्या आज्ञेन दुःख येता तें आयकूनु ॥ देवाचि स्तुति तो करूं लागलो ॥९॥ "हें नारायणा" तुजें रूप आनि गुण ॥ ब्रह्मादिकांक सुद्धा कळना मायेन ॥ मोहित जाल्या ह्या मूढाक प्रसन्न ॥ जावका तुवें आतां रे ॥१०॥ पूर्वि होडितुं पूरा द्रव्य दीव्का ॥ ह्या शरणागताल्लो उद्धारू करका ॥ भक्तिन केल्लि ही मागणि पुरोका ॥ तुका विशेष पूजा करीन रे ॥११॥ तागेलि दीन उत्तर तीं आयकून ॥ संतुष्ट जालो श्री लक्ष्मी-नारायण ॥ तेन्ना मागिलो वरु ताका दींवन ॥ थैंचि श्रीहरि अदृश्य जालो ॥१२॥ मागिरि तो वाणी होडित बसलो ॥ नौकां पळोनु भारी हर्षित जालो ॥ ईशा कृपेन द्रव्य थैं भरला म्हळालो ताव्ळि देव पूजा तांणें केलि ॥१३॥ त्या सत्यदेवाल्या प्रसादान ॥ होडी चलौनु स्वदेश गमन ॥ केले ताणे बहु संतोषान ॥ घेवन रक्षकांक सांगति ॥१४॥ जांवयाक रत्नापूर दाकैलें ॥ ताणे दूतांक नगराक धाडले ॥ साधूलें आगमन ताणि कळैलें ॥ तागेल्या बायलेक हात जोण्णू ॥१५॥ नगरा भाय् जांवयि आनि पति ॥ खूब द्रव्य नावेंत घेवनु आयल्याति ॥ ही हर्षवार्ता आयकुन लीलावती ॥ स्व-कन्ये लागिं उलैलि ॥१६॥ पूजन कर्नूं श्रीसत्यदेवालें ॥ घोवाक भेटचाक गमन केलें ॥ तिणे धुवेक बेगिं यवचाक सांगलें ॥ आनंदान सपाद खावनु ॥१७॥ आव्सुलि उतरं श्रवण करनु ॥ कलावती बामणाक चोवका म्हणु ॥ वचु गेलि व्रत समाप्ति करनु ॥ सपाद प्रसादु खायनास्तना ॥१८॥ त्या निमित्ति कोप आयलो सत्यदेवाक ॥ ताणें जलांत धन नौकादि जनांक ॥ बुडयिल्ले तें देकनास्तना स्व-पतिक ॥ दोगांनि शोक भारी केलो ॥१९॥ दिसचि होडि कशीं अदृश्य जालि ॥ खचना देवान ती आतां बुडैलि ॥ अति विलाप कर्नु रडूं लागलि ॥ पोटो-ळुनू आपणाल्या धुवेक ॥२०॥ पति-मृत कल्पना मनांतु जावनु ॥ सहगमन उजांत वच्चें ठरील ॥ कलावती भो आकांतूनु ॥ रडूं लागलि तत्काळ ॥२१॥ आवैबापाय्लें काळीज विरगळ्ळे ॥ ताणि अखंड स्मरण सत्यदेवाचें केलें ॥ ऐश्वर्यी प्रमाणे सत्य पूजा करीन म्हळें ॥ घालीत नमस्कार दंडवत ॥२२॥ तांगेलि नम्र दीन प्रार्थना आयकूनु ॥ संतुष्ट जालो श्रीसत्यनारायणु ॥ आकाश-वाणि देवान थै करनु ॥ सांगलें तेन्ना त्या जनांक ॥२३॥ " प्रसादु घेव्नास्तना तुगेल्या धुवेन ॥ पति दिसना जाला त्या कारणान ॥ जावका जाल्यारि पतिचें दर्शन ॥ तिणे अवश्य खावका प्रसादू ॥२४॥ " कलावतीन तें वाक्य आयकून ॥ स्व-घराक केले सत्वर गमन ॥ ती सपाद खावनु आयलि परतून ॥ पति दर्शन जालें तिका ॥२५॥ धन्य गुणानवाद भगवंताले ॥ करी समस्तांनि भजन केले ॥ विधि शास्त्रोक्त श्रीसत्यदेवालें ॥ केलें परम हर्षान पूजन ॥२६॥ मस्त धन स्व-जनांक घेवनु ॥ साधू वैश्य घराक आयलो परतूनु ॥ तो नेंमान करतालो सत्यनाराय प्रत्येक संक्रांती पुनवेक ॥२७॥ ह्या भक्ति योगात त्या साधुक ॥ मेळ्ळें इहांतु सर्व परम सुख मरणा नंतर तो सत्यलोकाक ॥ गेलो तेन्ना मुक्त जावनू ॥२८॥ इति सेवकु नरहरि प्रभुकृ श्री स्कंद पुराणे रेवाखंडे श्रीसत्यनारायण व्रत कथाया चतुर्थोऽध्यायः ॥ हरयेनमः ॥ हरयेनमः हरयेनमः ॥

# श्रीसत्यनारायण कथासार

## ।। पांचवो अध्याय् ।।

सूत सांगताति मुनि जनांक ।। पूर्वि आशिलो राजा अंगध्वजु एक ।। भारी भोगलो तो यंकर दुःख ।। प्रसांद भक्षण करनास्तना ।।१।। एक दीसु तो रायु रानाक ।। वचून ताणे मांलि वापदं अनेक ।। थै वडारूका स्नावळे सकलाक ।। हें व्रत करचें ताणे पळैलें ।।२।। मित्र बंधुबांधवा ति भक्तीन ।। गौळचांनि केल्लें सत्य देवाले-पूजन ।। तें पळोनु तो रायुत्या दिशेन ।। देवाकडेन ोयलो ना ।।३।। तथापि गोवालांनि पूजे नंतर ।। राया मुखारि दवलों प्रसाद सत्वर ।। परंतु र्वानि प्रसाद स्वीकार ।। केलोना त्या रायान ।।४।। त्या निमित्ति भो दुःख ताणे भोगलें ।। तागेलें ांवरीं पूत मरण पावले ।। आशिले धनधान्यादि नष्ट जालें ।। सत्यनारायणाल्या मायेन ।।५।। देवालि करणी ती पटलि रायाक ।। ताणें आपौंनु व्हेंले सगळचा गौळचांक ।। पैलें पुजिल्या जाग्यारि भक्तिपूर्वक ।। केले तें व्रत रायान वैभवारि ।।६।। नंतर श्रीसत्यदेवाच्या प्रसादान ।। या नृपाक प्राप्त जालें सुखपुतधन ।। इहलोकांतुं बहु सुख भोगून ।। अंती सत्यलोकाक तो चूगेलो ।।७।। हें अत्यंत दुर्लभ व्रत जें करताति ।। किंवा कथा श्रवण करूं भजताति ।। तांका नधान्यादिक दीवनु श्रीपति ।। सदांकाळ सुखी करता तो ।।८।। दरिद्री आशिल्याक धन लाभू जाता ।। बंदीतुल्यांक भेंगि जाता मुक्तता ।। भीति वचून बहु धैर्य येता ।। ह्या सत्यांतुं संशयु ना ।।९।। हें व्रत आचरण करतल्याक ।। मेळता इच्छित परम सुख ।। मरणांतीं वता तो सत्य-लोकाक ।। सूतानि हें कथन केलां ।।१०।। व्रत हें केल्यारि मनुष्यान ।। मुक्त जाता तो दुःखांतु-ल्यान ।। ह्या कलियुगांत सत्यदेवालें पूजन ।। भारी भारी फलदायक आस हें ।।११।। थोडे काल ह्या सत्यनारायणाक ।। म्हणतले काल, ईश, सत्यदेवु लोक ।। परंतु धारण करूं व्रतरुपं अनेक ।। अभीष्ट सर्वांक दिता तो ।।१२।। ही कथा जे करताति नित्य पठण ।। किंवा कथा आयकताति शुद्ध भक्तीन ।। श्री सत्यनारायणाल्या प्रसादान ।। तांगेंलि पापं नाश पावताति ।।१३।। हें व्रत केल्यारि अनन्य भावान ।। श्री सत्यदेवू कर्तां तागेले कल्याण ।। दीवनु आयुष्य आरोग्य संतति धन ।। मनोरथ सर्व पूरैता तो ।।१४।। हें सत्य देवा, तव दिव्य पायांक ।। ही कथा अर्पण केल्या भक्ति पूर्वक ।। ती स्वीकारूं पूज्य कोंकणी मातेक ।। उद्धारू करका तुवेंचि ।।१५।। आमी अन्य भाषेचे गुलाम जाले ।। ह्या भावेन भजूक तुका विसलें ।। ते सर्व महा अपराध आमगेले ।। क्षमा करका दयानिधे ।।१६।। तुगेलि ही भाष कळता तुका ।। आनिक अंतु भात्र पळौचो नाका ।। कोंकणी लोकालें अभीष्ट पूरौंका ।। हीचि प्रार्थना तुका मगेलि ।।१७।। सूत्रधारि जावनु तु लक्ष्मीपति ।। अज्ञ नरहरिक दीवनु सुमति ।। रचयिले हें पुराण तुवे श्रीपति ।। रक्षण करका निरंतर ।।१८।। अठराशें सत्यांशि शकांतु ।। विश्वावसु नाम संवत्सरांतु ।। आषाढ शुद्ध द्वादशी तिथींतुं ।। पुराण हें सिद्धीक पावलें ।।१९।। इति सेवकु नरहरि प्रभुकृत श्रीस्कंद पुराणें रेवा खंडे श्रीसत्यनारायण व्रत कथायां पचमोऽध्यायः ।। हरयेनमः ।। हरयेनमः ।। हरयेनमः ।। श्रीसत्यनारायणार्पणमस्तु ।। शुभं भवतु

## ।। श्रीसत्यदेवाचि आर्ति ।।

(चालि:- आरति ज्ञानराजा)

आर्ति भगवानाक ।। सत्यनारायणायक ।। ध्रु ।। गरिबि ब्राह्मणालि । तव व्रतान गेलि ।। इच्छित फल दिलें । ताका मोक्षाक व्हेलें ।।१।। व्रत आचरणान । दिलें संतति धन ।। मनोरथ साधूलें । तुवें पूरा पुरैले ।।२।। प्रसादु विसरिलो । जालो क्षोभू तुगेलो ।। शिक्षा कलावतीक । दिलि केल्या चुकीक ।।३।। अंगध्वज रायाक । आयलें खूब दु:ख ।। केलें ते निबारण । सपाद खालिल्यान ।।४।। व्रत कलियुगांत । दिता सर्व इच्छित ।। देकून जन मस्त । करताति हे व्रत ।।५ श्रीसत्यनारायणा । करि पूर्ण कामना ।। आरति भगवंता । नरहरि दाकैता ।।६।।



